# क्रांतिसंगीत

बाकीबाब बोरकार

---

मनोहरराय सरदेसाय

---

हरदत्त खांडेपारकार

---

उदय भेंब्रे

---

रमेश भगवंत वेळुस्कार

---

*संकलक : प्रकाश थळी*



प्रकाशन क्र : 60

प्रथम प्रकाशन : 1989
दुसरी आवृत्ती : 1996

प्रकाशक :
प्रभाकर द. भिडे, राजहंस वितरण
१ - मीनाक्षी बिल्डींग
व्हुल्फांगु द सील्व्ह मार्ग
पणजी 403 001

साहित्य पसवण भागींक : सात रुपया

मुद्रक :
राजहंस ऑफसॅट, पणजी



सजावट :
राजीव शिंदे, दिगंबर शिंगबाळ

मोल :
1996 : 25 रुपया
1997 : 25 रुपया
1998 : 30 रुपया

ISBN 81-85339-59-7

ओंपणी

समस्त स्वातंत्र्यसैनिकांक

## अनुक्रम

### बाकीबाब बोरकार



### मनोहरराय सरदेसाय



### हरदत्त खांडेपारकार



### उदय भेंब्रे



### रमेश भ. वेळुस्कार

# तूं आमची



अप्रुपाचे तांबडे भुंये
आमी तुजे, तूं आमची
जाण्टेल्यांच्या उगडासाची
पाळण्यांतल्या फुडाराची
तूं कालची, तूं आयची
तूं आमची.

कणसांच्या भांगराची
सांवरेच्या चंवराची
खोसयेच्या हुंवराची
तूं आमची.

पावसाच्या पोवनांची
चांदन्यातल्या सपनांची
तूं आमची.



मोगरे-कळयांत वास जसो
हड्ड्याभितर स्वास जसो
इंगळ्यापोटांत जाळ जसो
तशे आमी तुजे आनी
तूं आमची.

पोटाखातीर सोडली तुकां
व्हडविकेर्चीं जोडलीं थिकां
तरी मनांत लायली सदांच
पण्टी तुजे तोखणायेची
तूं आमची.

रगतांतली शक्त तूं
काळजांतली म्हूर्त तूं
पर्जळीत स्फूर्त तूं
तरण्या म्हज्या उतरांची
तूं आमची.

# पवित्र हो मंगळार

पवित्र हो मंगळार आयचो पवित्र हो मंगळार
आज गाजतालो थेंक शिंवांचो हांगाच हया म्हुर्तार
दुधसागराच्या दोंगरा ! दर्या ! उबारून हात
लाख जिबांनीं सबासबांनी दिया दियासाथ
आनि सत्रिच्या उठा शिळांनो लाया लाल तिळे
या वाऱ्यांनो फुलया आमच्या काळजातले इंगळे
कुलदेवतांनो ल्हंवेल्हंवेतल्यान करा बेंगीं संचार
पवित्र हो मंगळार

वळी बरैल्यो ज्यो तांची सुकचे पैलीं शाय
भरून दोळे हावें पळेली उसळलेली ल्हाय
धन्य लोहिया, धन्य भुंय ही, धन्य तिचे पूत
धन्य तांगेलो त्याग पळेल्ली दोळयातली जोत
धन्य हांवय बी बरैलेल्याचो जियेवन साक्षात्कार
पवित्र हो मंगळार

प्रसाद मेळ्ळो नाल्लय फुटलो, घुडी उबी जाली
तिळो घणघणीत लावन आमगेली आवै पळया आयली
भंय गेलें, जय आयलें, सचित फळफळ्ळें आज
चडा चडा रे आतां यशाची सासणाची पाज
हिचेच आमी पूत हिच्यास्तंव दिवं रक्ताची धार
पवित्र हो मंगळार

दिपा राण्याचें आनि पिंतांचे घेवन व्हड नांव
घालुन बोटा घाव चला रे नवे तिळे लांव
देखुन चाखुन रगत पळया हें आमी भाव भाव
खांदा खांदो लावन हर्‍याफुडे अेक जावन रांव
झुजून आतां मर्‍या कर्‍या भांगराचो संसार
पवित्र हो मंगळार



# ही माती

ही माती
गोंयची माती
ही माती
कलावती

ही माती
गोंयची माती
ही माती
बुध्दमती

ही माती
गोंयची माती
ही माती
मोगवती

ही माती
गोंयची माती
ही माती
सुंदरती

ही माती
गोंयची माती
ही माती
सैमरती

ही माती
गोंयची माती
ही माती
कोंकणमाती

ही माती
कोंकण माती
ही माती
भारत माती

ही माती
नमन माती
ही माती
गोंयची माती
ही माती
भारत माती



# आमी मरचे नात

जिविताच्या खुर्साचेर
मर्णाकूच मारतले
आमकां जरी गाडले भुंयेंत
थडें फोडून येतले भायर
पातक्यांच्या नश्टेपणाक
आमची आसा एकूच जापः
आमी मरचे नात.

लांबूच लांब आमची काणी
कितलीं दुकां, कितलें रगत
पाना कणकणीं
तरीय अजून राखल्या आमी
नितळ, निवळ आमचे हात
आमी मरचे नात.

वर्सा जालीं कितलीं हजार
हड्याभितर हुंडके दामून
काडले त्रास
धल्लो ध्यास उजवाडाचो
काळखी जरी आसली रात
आमी मरचे नात.

सदांच आमी राखलो धीर
मनशाच्या मेकळेपणांत
वादळ-वारें आयले जरी
अशेच आमी रावतले
दोंगरावरी थंड शांत
आमी मरचे नात.

निमणो स्वास सोडटाना
नवो मनीस घडयतले
जिविताच्या ताळयांचेर
नवे घोंटेर जागयतले
नव्या गळ्यान म्हण्टलेः
कशेच आमी मरचे नात
मरचे नात.

# आयज हिमालय पेट्टा

आयज आमगेल्या धव्या दोंगरानी
व्हांवता रगता पाट
निळ्या- नितळ ह्या आमच्या मळबार
वांकडो- तांबडो हात.

झुजा- धोलार आयज बडी ताणशेता
परतून तरसाद नाचता
परतून तुबकाक फुटला आवाज
आयज हिमालय पेट्टा.

स्वतंत्रता ही परतून मागता
आपलो सर्दीचो ग्रास
पडचे आर्दी तोंडचे आसात
गळया भोंवतर्णी पास.



# चलात परते

रगत चाटलेले पांय तुमगेले
भुंयेर ना आमचे थारचे
आयले वाटेन चलात परते
गुलाम ना आमी जावचे.

पारणे भुंयच्या तरण्या रगतांत
जीण नवी सळसळटा
वेगळेपणाचें हीण आमगेलें
होमकुंड जावन पेट्टा
उज्यांत नश्टे बेत तुमगले
जळ्ळ्याबगर ना रावचे.

भेस आमगेले हजार आसून
एक आमचो हावेस
मत्तां आमचीं वेगळी आसून
एक आमगेलो देस.

शंबर भासो जरी उलयले
एक उतर आमचें
''आयले वाटेन चलात परते
गुलाम ना आमी जांवचे.''

पातकी तुमचें एक एक पावल
खिळोच काळजांत रोंबता
दोंगर दर्या एक जावन आज
तिडकून तुमका सांगताः

''स्वतंत्रतेचें निशाण आमचें
तुमतेमुखार ना नमचें
आयले वाटेन चलात परते
गुलाम ना आमी जांवचे.''

# स्वतंत्रताय !

लोखणाच्यो, भांगराच्यो
सरपळ्यो ह्यो तोडपाच्यो
पातशाच्या आसनाचेर
मार उठ, उबार पांय.
स्वतंत्रताय ! स्वतंत्रताय !

सप्नावरी म्हूर्त तिजी
धरुंक गेल्यार नाच जावपी
कुपांफाटल्यान लिपली तरी
आमकां तिजीं किर्णां जाय
स्वतंत्रताय ! स्वतंत्रतांय !

तिचेबगर जीण सुकता
सगलें आसून तळमळटा
तिचेबगर काळीज जाता
खर्णांतली जळटी जाय
स्वतंत्रताय ! स्वतंत्रताय !



# सोंपती रात

शस्त्रांची अस्त्रांची सोंपत आयल्या रात
फांतोटेर झट्टले शतसहस्त्र हात
प्रल्हादांनो ! नांव जपा
खांब्यात देव बसला तपा
कंवदरून काट्टलो रे सगलें पिंतआंत
मातले जरि लक्ष बळी
खिणांत वेतले रसातळी
तीन पावलांभितर जातले नाच नपच्छात
परशुराम ना रे ओगो
दोळयांत तेल घालून जागो
स्नाप दीत प्रकट जातलो अंति अकस्मात
राशिर येवन करा काम
आमचे वनी आयला राम
साकवपाटो पुरतो करा रोखडो रातोरात
पातकांचे भल्ले घडे
घालया पितरांक वडे
घालतलो रे कृष्ण आता सुदर्शना हात
रान वात राखुन धरा
केल्ली शांत पुरती करा
तुमच्यांतल्यान प्रकट जातली अवतारांची जात

# शतजल्म पुण्यतायेन

शतजन्म पुण्यतायेन नरजन्म भारतांत
वेद श्रुती पुराणां हर्सून वर्णितात
गगनाय परस उंचेले हास हे भुंयेचे
गंगेयपरस घोगेले हुटके हिचे दयेचे
ध्यासान हिच्या गिमांतय वरमेघ वर्सतात
शत जल्म पुण्यतायेन नरजल्म भारतांत

उद्दिष्ट हे जिणेंच पैलीं हिर्णेंच मोखलें
प्राणीं चराचराच्या आपलेंच रूप देखलें
.तप फळटलें हिचें हें फायच्या जगायुगांत
शतजल्म पुण्यतायेन नरजल्म भारतांत

काळजांत आसची प्रीत चलपांत सत्य नीत
उत्तुंग कर्तुपान रेखचे हिचें चरीत
ह्मय हें अपूर्व जोडचें हांगच्याच जीवितांत
शत जल्म पुण्यतायेन नरजल्म भारतांत.



# ध्वजाची जागवण

जाग रे बेगी जाग
भारताच्या ध्वजा म्हज्या जाग रे बेगी जाग
दयविळेर खंगता तुजी सोबीत एक बाग
व्हंकलो कशो माडयो थैंच्यो खांबले कशे माड
चारशिं वर्सां लागून पाखे जावंक पावले पाड
दैना अशी तुटिल्यान तुजी लागभाग
जाग रे बेगी जाग

दुदा-धंया-न्हयो आटल्यो सुटले सोऱ्यापाट
फुलां-फळांत तक्षकांनी तातयां घाली दाट
माथ्यार पाचके, पावलामुळा पांढरे आनी नाग
जाग रे बेगी जाग

झाडा पेडार देंवाचारांनी बांदलें सामकें कोट
रोंट तांकां घालूंक आमी बांदले आमचें पोट
खोंटावणेक देव आमचे फाटीर तांच्या दाग
जाग रे बेगीं जाग

सासाय थैंची आवै म्हजी तूंचं तिजो धीर
तुजे धिरार वानांत ताणी कांडूक घालां शीर
सोंसलें इतलें आनीक कितलें सोंसचे आता सांग
जाग रे बेगीं जाग

भायरो जाल्लो गोंसांय तिजो घालता तुका साद
शिलां काडून होरायत तुका दिवंक आयला याद
अंत आतां पळौं नाका मार रे बेगी दांग
तेखातीर उखलासाक प्राणय जाल्यार माग
जाग रे बेगीं जाग.

# इतिहास नवो घडटलो

ल्हानव्हडांच्या मनात रिगला हिमालयाचो उलो
अेकचाराचे अस्त्र घेवन आज देश फुडें सरतलो
आजवेर शांतताय पुजली
अेकवटाची जोत पेटयली
पवित्र पुजा मोडूंक आज दुस्मान दुश्ट आयलो
आयक गीत गंगामातेचें
रगत रकिल्ल्या धवलगिरीचें
रूद्र घेवन अवतार आज ज्वालामुखिसो पेट्टलो
ह्या हातांनी लुवणी केली
उदरगतीची म्हूर्त घडयली
होच हात रे जावन खड्ग-तिख घाव उबो घालतलो
दक्षिण आज उत्तरेक मेळ्ळी
खिणांत भेदा वणत निखळ्ळी
हिमालयाच्या उल्याक धांवलो गोमंत आज धाकलो
आज खीण हो पुरूशार्थाचो
सपूत जवानांच्या रक्ताचो
ह्या रक्ताचो तिबो लावन या, जैत कोण व्हरतलो
शस्त्र पुरो हे निर्धाराचें
भस्म करतलें आक्रमकांचें
काल थंड तरी आज हिमालय इंगळ्यापरी जळटलो
आयक वीरा मळबांत इशारत
अखंड भारत, अखंड भारत
शूर- वीरांच्या कर्तूपान इतिहास नवो घडटलो



# स्वतंत्रताय

स्वतंत्रताय ! स्वतंत्रताय !
आमचो देस आमकां जाय
सगल्या संवसारांत अशी
सोबीत भूंय मेळत काय ?

हांगच्यो झरी दुदावरी
हांगचें वोत भागरा-सरी
हांगा नदर वचत तेंविर
पांचवि चार अप्रुपाय

हांगाचि मोगाळ, म्हौंवाळ भास
हांगा रोसाळ फळां-रास
शिंयाळ्याची कातलि म्हळ्यार
दुदावयली दाट साय

हांगा जायो -जुयो दाट
हांगा चाफ्यां घमघमाट
हांगच्या काळजांत भल्ला मोग
आनी ओंठार अपुर्बाय

शेतांत भाटांत देव-देवता
माडा तेंगशेर हांगां गितां
हांगचे न्हयां -देगेर बसून
ल्हारां मेजपाक नशीब जाय

सर्ग- भांडार जालां रितें
सांग हांगां अुणे कितें ?
हाय, हांगां बंदखणींत
स्वतंत्रताय ! स्वतंत्रताय !

# पराक्रमी संतान

दास्याच्या बनखणींत जेन्नां
गुलाम हिंदुस्थान
सुळार चल्ले हांसत हांसत
पराक्रमी संतान ।।

केली नश्वर जीण निरांजन
समर्पणाचें ध्यान
भय नुल्लें मरणाचें तांकां
जलमभुये प्रेमान
मायमुक्तिची तान अनावर
प्राणाची कुर्बान ।।

हुंवार रगताचे व्हांवैले
जालो धुल्ल गुलाल
उल्लो जोंवर स्वास निमाणो
ध्येयाचो प्रतिपाळ
अजिंक्य असल्या झुंजारांनी
थरथल्लो सुलतान ।।

तारूण्यांतच जाले दुबळ
भोगित कारावास
त्या त्यागाचो गर्हिवर गौरव
उलैतलो इतिहास
अेकवटुन अंतस्कर्णांनो
आज स्मरा बलिदान ।।

मरणोन्मुख त्या अखेर वीरां
चिंतन देशाचें
वित्तं, किर्त ना एकच चित्तीं
स्वप्न स्वराज्याचें
स्मृतीत तांच्या देशवासियां
उन्नतिचें वरदान ।।



# नवें युग

सात लाख गोंयकार आमी
युग नवे फुलैतले
अंदल्यांत मंत्र जिवि
ते फाल्या उलैतले

जळत गोंय धुंवता जरी
घरार नांगर भोंवता जरी
थैंच पाट अम्रुताचे फाल्यां आमी खेळटले

आज जरी काळोख बिण्ण
सगलेकडेन पडलां किण्ण
दनपारांच्या कडार फाल्यां रथ भुजार झेलैतले

आज जीव लागला गोळा
तरिय दैत्य लावन दाळा
रैताच्या जैताचो शेक फाल्यां चलैतले

झोमून घेंवक वैली घुडी
होमखणांत आमची उडी
माणसुकेच्या फायच्या जिणेन देवांकय भाळैतले

ही घुडी केळैतले
सुखान दुकां गळैतले
जणगणमन - गीत गायत सुर नवो मळैतले.

# योग निश्चयाचो

चिंतनात लाय लयाक भय पराजयाचो
सर्त न्हंय समर्थ जाय योग निश्चयाचो ।।
चित्त नाका कीर्तिफाट
नुरचें वित्त-संचयांत
पंथ सोद पथिक जायत तूं हिमालयाचो ।।
मुक्त जंय मनीसकाय
ना कोणा उणे मनाय
जाय स्वतंत्रताय जाल्यार देह झंजळावचो ।।
येवनी लक्ष अपशकून
वच्चें न्हीं मनीं सुकून
दीर्घ रान चल तरीय पायं फुडें वाजवची ।।
ध्येय सप्नि जागृतीं
समस्तकां उदरगती
रिक्त मस्तकार बरय लेख अक्षयाचो ।।



# बणखणीतल्या भावांनो

आवैसमान गोंय ताजी करूंक भरभराट
धांवले तुमी भावांनो करीत गडगडाट !
घरादारांचेर मारून खोंट
सुखाक लावन गाल बोट
संसाराचे विस्कटावन उठले सारीवाट!
‘ झेंडो आमचो तिरंगी ’
‘ चले जाव फिरंगी ’
शारा- शारांत उठले आवाज अेकाफाटोफाट !
करून ढालो छात्‌यांच्यो
गुळयो झेलल्यो आर्मांच्यो
कलंक पुसूंक मायभुंयचो रक्ताचे व्हांवले पाट !
घेवन दिवटी सत्याची
पेटैत वात क्रांतिची
सरले फुडें फिरंग्या चोराक दाखौंक ताजी वाट !
आयले आड काळे - गोरे
आडावंक तुमकां पावले ना रे
पावला - पावलाक मारान तांच्या फार जाली दाट !
लोखणी गज, लोखणी खिळयो
रातदीस करतात पाळयो
काळ्यो वण्टी पाताळायतात काळोख भोंवर्तीं दाट !
त्यागाचो होम पेटोवन
प्राणांचे दान दिवन
यज्ञ तुमी चलैला गांठूंक यशाचो घांट !
बणखणीचीं दारां निखळूं
स्वतंत्रतायेचे दिवे पाजळूं
पवित्र तुमच्या कार्याचो सुटूं घमघमाट !

# हो देश म्हजो

हो देश म्हजो
हिंदुस्तान
हे गीत म्हजें
हिंदुस्तान ।।

हो उंच उबो
पर्वतराय
ही पवित्रताय
गंगामाय
हो देश म्हजो
हिंदुस्तान

हे मुक्त भुंयेर
कृष्ण गोकूळ
हे बुध्द भुंयेर
मंगळ - कूळ
हो देश म्हजो
हिंदुस्तान

हे भुंयेर आयले
गांधीजी
ताणी मुक्त केली
भूंय म्हजी
हो देश म्हजो
हिंदुस्तान



# सुवर्ण भारती

सुवर्ण भारतांत सुवर्ण भारती
सवन भारतांत घडूं सुवर्ण जागृती ।।धृ।।

लोक लोक अेक जावन
झडुन वचूं वेरो
वायटपणा, दुस्वासांच्यो
नाकां नाकां मेरो
तायट मानेन, आयट फुलत घडूं रे जागृती
सुवर्ण भारतांत सुवर्ण भारती ।।१।।

वेद हांगा मंत्र हांगा
सुवर्ण रोयताले
सूर्य पर्जळान आपल्या
लोकांक आपयताले
आयले तशे लोक, गेल्यो घडून जागृती
सुवर्ण भारतांत सुवर्ण भारती ।।२।।

विंगड विंगड धर्म जरी
मर्म अैक जावं
समर्थ कर्तुबान काडूं
भारताचे नावं
फळत वचूं, खेळत वसूं सुवर्ण संस्कृती
सुवर्ण भारतांत सुवर्ण भारती ।।३।।

# आज आमचें राज आयलें

आज आमचें राज आयलें
आयलें आमचें राज
परक्यांच्या जुलमांचे
तुटलें जोत आज.

आमचीं शेतां आमची मळां
आमचीं झांडा, फुला, फळां
आमच्यो न्हयो, आमचो दर्या
नखेत्रांचो साज.

हुसक्या मेकळो व्हांवता वारो
धतरिचो नवो तोरो
जुंवारेच्या ल्हारा ल्हारांत
भल्ल्या खोस आज.

आज आमी रगत दिवन
मायभुंयचे फेडले रीण
भाग्यवंत तिच्या भाळार
तांबडो तिबो आज.

मांडवींत आज न्हाण
सासणाची सगली जाण
गेली धुवन, नवी जीण
आमच्या मुखार आज.

हिंदु किरिस्तांव भाव
सगले आमी एक जांव
आमचो फुडार घडोवं आमी
होच हावेस आज.



# ल्हान जाले म्हान

गोंयचें नांव व्हड करून ल्हान जाले म्हान
बणखणिचीं देवळां जालीं लामणदिवे प्राण
रगताचे तेल करून रात जागयली
ताणीं रात जागयली
संसाराची रात करून तान भागयली
ताणी तान भागयली
धाय दिको गाजता तांचें फायचें यशोगान

जाण्ट्यांचें रीण फेड्न स्वादूध चलयलें
ताणी स्वादूध चलयलें
स्वदूधेचे कोंब काडून दैव फळयलें
ताणी दैव फळयलें
घटाय हाडलि गरिब धाकटया, अपंगुला त्राण

कणकींतली माय आमचि वैर उखल्ली
ताणी वैर उखल्ली
अवदशेची सया सामकी पैस धुकल्ली
ताणी पैस धुकल्ली
सुटकेपैलीं जोडून दिलो घटकेवरी मान

जल्म उंवाळून सगले वंश उजयले
ताणीं वंश उजयले
मेल्ल्या बियांतल्यान जिवे वृक्ष रूजयले
ताणी वृक्ष रूजयले
तांचेवरी ल्हान आसून गोयं केलें म्हान

# जवान आमी जवाहराचे

जवान आमी जवाहराचे
वीर झुजारी भारत भूंयचे
उंच इगर्जी, सोबीत देवळां
देव, देवारे आमचे
धोलपी झाडां, व्हांवपी वझरे
निळे दोंगर हे आमचें.

स्वतंत्रतेचो सपूत घेतला
कोणाचमुखार ना बागचे
जे धरतचेर हांसले, खेळ्ळे.
तिकाच रगत हें आमचें.

ज्याा हातांनी खणची माती
रोंवचे रोंपि कावथे
दुस्मानांचें हड्डें फोडूंक
ना गा फाटीं सरचे.

फुलावरी जरी कंवळे आसले
काळीज पाशाणाचें
जवान आमी जवाहराचे
वीर झुजारी स्वतंत्रतेचे.



# हिंद देवते

शांन्त दान्त वज्रकान्त वंद्य हिंददेवते
शक्तिवन्त दीप्तिवंत जय दिगंतकीर्ते

गगनिं तुज्या पैली उषा घेवन आत्मतोष
पैलो तुज्या वनीं जननी! दिव्य वेदघोष
पैलो जनीं उदित तुज्या हृयकमलकोश
भाग्यवंत पुण्यवंत तूं अशी समर्थे

तुकाच जालो मनशाचे दिव्यताये-भास
तुकाच लागलो मृत्युंजय सुकृताचो ध्यास
त्याच खातीर कला तुज्यो, सगलो वाग्विलास
तुकाच लागुन त्राण जगा त्रिभुवनहितकर्ते

सगळे धर्म, सगळे वंश घेतले तुवें होटीं
अमृताये परस गोडी तुज्या दोदा घोटीं
देवयपसुन लुब्ध जावन आयलो तुज्या पोटीं
धन्य अशें स्तन्य तुजें संजीवन-स्फुर्ते

पूर्व तुजें दिव्य, दिव्य त्यायपरस फुडार
तो सचित्र गे आमच्या रथ दोळ्यांमुखार
तो घडौंक सतत आमी जांव जिवार उदार
दी अशें अनंत धैर्य सदय वरदवन्ते

# शाश्वत भारत देश

विश्वकुटुंबी समर्थ रांवचो शाश्वत भारत देश
यश पमळचें अपेश टळचें कृपा अशी परमेश ।।
नव्या दिसा यॊंव नवें अंकुरा वचूं लया जें पोन्ने
कणाकणानी खेळत किर्णां वैर सरूं उन्मेष ।।
अवर्षणाचो ठरू असंभव जांव निर्विघ्न फुडार
पिकूं विपल रसरसूं कुळागर भरूं सदा संसार
दिंव सगल्यां वन -कल्पतरूनी समृध्दी संदेश ।।





# सार्वभौम गणराज्य उदेलें

सार्वभौम गणराज्य उदेलें
पूर्वदिशे गर्वान
त्या भाग्याचे तुमीच वारस
भारतीय संतान ।।ध्रु।।

वेदभूमि ही जनजागृतिची
उगम सूर - संवाद
मानवतेची राखणदारिण
संस्कृतिची बुनसाद
ह्या मातीच्या मुळांत दरवलां
प्रतिभेचे वरदान ।।१।।

जनसत्तेचें अधिष्ठान हें
ना तगना अन्याय
बुध्द - गांधिजी गेले दवरून
तांची म्हापुण्याय
ह्या अभिमानाचें बळ जोडा
करा देश बलवान ।।२।।

पुण्यहिन्द देशी भावांनों
स्मरा राष्ट्रवीरां
अपूर्व तांच्या संकल्पाची
करा करात त्वरा
परिश्रमांचे जाया भगिरथ
घडया नवनिर्माण ।।३।।

# तुजे मुखार

तुजे मुखार दुस्माना
नाच दिमी मोडचों ना
वठार दोळे, पेटय नाळी
हावेस म्हजो मरचो ना.

हांगा म्हजीं शेतां, भाटां
हांगा म्हजीं गोरवां, जोतां
हांगाच म्हजी वार, मठी
अन्न, रांदन, आयदनां.

लागत तशे बांद पांय
तोंडाक केदोय गुड्डो लाय
हाणशि जाल्यार हाण उबो
तरीय दिमी मोडचों ना.

तुजे मुखार सुल्ताना
हांव रे पांयां पडचों ना
भुंय म्हजी, जीण म्हजी
तिका वाटावंक भिवंचों ना.

हुंवारि न्हंयेक आडायत कोण?
पेट्टया रानाक पालयत कोण?
रकली तांबशी, फांकलो दीस
आमी रे आतां न्हिदचे ना.

# जय पुण्यभू , जय भारता !

कितले तुजे रंग आनी
अप्रुपाचीं तुजीं रूपां
कितली झुजां देखली तुवें
कितलीं मोडां, कितलीं कुपां
जय पुण्यभू , जय भारता !

वर्साँच्या बडयांचे
कितले तुवें सोसले लडे
सालती तुटून व्हांवलें रगत
थंयच नवे फुल्ले कळे
शेकानशेक आंगार तुज्या
आंकरी सदांच लसलसता
जय पुण्यभू , जय भारता !

फांतोडेच्या नितळ - मळांत
मंत्रांचीं सोडली भिरीं
यज्ञांतल्या उज्या भितर
गेल्यो जळून आमच्यो नडी
काळखांतल्यान उजवाडाची
वाट तुजी झगझगता
जय पुण्यभू , जय भारता !



रोयणींतली काळखी फोडून
अयोध्येचो राम दिलो
बंदखणीच्या वण्टींभितर
गवळया पोरांक कृष्ण दिलो
जिविताच्या झुजा-मळार
कर्तुपाची सांगली गिता
जय पुण्यभू , जय भारता !

गौतमाचो जावन हांसो
कितलीं मनां जिखलीं तुवें
धर्माचो जावन पासो
कितले जणांक मोडले तुवें
भार्गवाचो राग तुजो
कर्णाची उदारता
जय पुण्यभू , जय भारता !

निश्चयाची धार देखून
यमान लेगीत मानली हार
सपन पिशें खरें करूंक
सोडलें ध्रुवान आपलें दार
जेन्ना जुलूम मारता खोंट
खांबो फोडून भायर सरता
जय पुण्यभू , जय भारता !

संवसाराचीं सगली व्हडीं
लागलीं तुजे भांगरा - तडी
तुजे देगेर गेल्यो फुटून
कितल्यो विजो- वावजडी
रक्त - पिशी क्रांति हांगा
शांततायेक पोटलायता
जय पुण्यभू , जय भारता !

मस्ते मनीस कुह्ले जावन
जेन्ना तुजेर बसले घाय
चरख्याचें सूत घेवन
सुल्तानाचे बांदले पांय
कोटि मना गुंथून तुवें
घडली तुजी अखंडता
जय पुण्यभू , जय भारता !

काळीज म्हजें कंवळें अजून
तुज्या मोगान जळपाखातीर
हात म्हजे तरणे अजून
तुजेमुखार जोडपाखातीर
जिविताची जाय म्हजी
तुजेखातीर परमळटा
जय पुण्यभू , जय भारता !



# गोंय म्हजें

गोंये म्हजें गायता म्हज्या
दर्या ल्हारांचेर
शेतां - भाटात रूजता हांगा
गीता वंठाचेर ।।धृ।।

दोगरां वाठार काजुंनी त्यो
गायता सारोळ्यो
घरां गावांत शिकता म्हज्यो
शिटूक पिटोळ्यो
पिटोळ्यांची सारोळ्यांची
तंद्रा सुरांचेर
गोंय म्हजें गायता म्हज्या
दर्या ल्हारांचेर ।।१।।



माडामाडार स्तवन कर्शें
कवन रेंदराचें
दर्याल्हारांचेर सवन
हवन खारव्याचें
पिकता मोग गोंयचो तांच्या
स्वास उस्वासाचेर
गोंय म्हजें गायता म्हज्या
दर्या ल्हारांचेर ।।२।

नीस जायना गोंयचो मनीस
हुपीत वेता धारो
गोंयचो मनीस मनीसपणाक
वचूक दिना वेरो
गोंयकारांनो गांवया गीतां
हिंद भुयेंचेर
गोंय म्हजें गायता म्हज्या
दर्या ल्हाराचेर ।।३।।

# इतलें जैत आमगेलें

कितल्यो खेपो भिवन पिशा
जीव तुजो घेतलो मुठींत
येतली घडी तेन्ना पिशा
मर्ण तुका घेतलें कुशींत.

दयविलें मोड देखून
इतलो कित्याक थरथरो ?
घुस्मटून मरूंक तुका
कट्टी भरून उदक पुरो.

बायल - पोरां, घरा -दारां
सगलें आसा सोडचेलें
पावल वाजय नासतानां
मर्ण तुका व्हरतलें.

इतलो भिशी, रडशी कित्याक?
मर्ण तुका हांसतलें
हांसत, हांसत स्वास सोडप
इतलें जैत आमगलें.

# मुक्तिदेवते

मुक्तिदेवते तुज्या नमन पावला
विस्व पंचारती घेवन रावलां
शांत तूं क्रांति तूं
आत्म -उत्क्रांती तूं
सगळ्यो वेदश्रुती गायति नवलां
जाग्रुती नित्य तूं
सास्वती सत्य तूं
त्वद्रुपीं पुण्यधन आमकां पावलां
सायबिणी तुजे विणें
सुख उणें दुख दुणें
फुलचेलें जनजिणें सामके बावलां
गे तुजी बिबुत दी
गे तुजें तीर्थ दी
सार्थ जावं दी तुवें दिल्लीं कौलां



# पुण्य हिन्ददेस

पुण्य हिन्ददेस, स्वदेस तुज्या मोगान
दिसान दिसान, वेतां पिसावन, तुजेंच ध्यान. ।।धृ।।

कोंवळीं कीर्णां सान सकाळ
तुजेर उधळटा अंतराळ
नांव जिबेर तुजें त्रिकाळ
नाचैत व्हांवता व्हाळ दुदाळ
सर्ग ल्हान म्हाका दिसूंक तुज्या म्हन्यान ।।१।।

खेळटा जंय स्वतंत्रताय
पुनव फुलौति उक्तताय
शक्त स्फूर्त परगटायत
गिन्यान शिकैता मुक्तताय
तीर्थ तूं, तुजे सुपूत सत्यवान ।।२।।

जल्म हेय भुंयेर तुज्या
मेळौंक मनीस देवांत झुजां
धर्म जैं न्हिवौन उज्याक,
शिंपीत वेता मोगा बीजां
धन्य हिन्द देस म्हजो अमोल प्राण ।।३।।

घेवन हातांत तुजें निशाण
मिरैत वेता जागैत रान
रिणाक तुज्याा सोबतशें दान
पायांर तुज्या हे पंचप्राण
ऊंच उरूं युगां युगां अशीच मान ।।४।।

# भारततीर्थ

रूशीमुनिंचो देश म्हजो
पुण्य भारततीर्थ
देवांक पसून मनशांकडे
लांवची पडल्या सर्त
ते म्हान मनीस केन्नासावन
अुबे आसा ह्या तिर्थार
चित्ता म्हज्या बागय तुजी
तकली तांच्या पावलार ||१||

वेद जांणी रचलो तांचो
देश हो पवित्र
अुपषिदां गायलीं तार्चे
रकता हांगा इत्र
गीत तार्चे गायत गायत
गायत राव तूं भूंयतळार
चित्ता म्हज्या बागय तुजी
तकली तांच्या पावलार ||२||

मनीसपणाक मान दिवंक
आयज अुबे धर्म हांगा
फकत हेच पुण्य भुयेर
निस्वार्थी कर्म हांगा
असल्या पुज्य पुर्सांची
धूळ लायगो कपलार
चित्ता म्हज्या बागय तुजी
तकली तांच्या पावलार ||३||

हिमालयाक फक्त पळय
अूंच माथें जातलें
हिंदसागरांत भीज
मन महान जातलें
गंगाजळ सिंधूजळ
जळ पवित्र संसारार
चित्ता म्हज्या बागय तुजी
तकली तांच्या पावलार ।।४।।

लाख हांगा लोक हांगा
संसारांतले आयले
भारतांत भारतीय
जावन अेक रावले
नदर तुजी पडूं दिगो
तांच्या मोगा कौलार
चित्ता म्हज्या बागय तुजी
तकली तांच्या पावलार ।।५।।

कळी काळांकूय मुक्त करपी
भूंय म्हजी असली
धतरिचेर सर्ग म्हणून
भारत भूंय वसली
मनीस हांगचे वयर गेले
जित्या जिवान सर्गार
चित्ता म्हज्या बागय तुजी
तकली तांच्या पांवलार ।।६।।



# चल्ले लाख ज़वान

संकश्टाच्या तुफान वेळार
राखूंक भूंयचो मान
चल्ले लाख जवान.

सोडून कंवळो मोग घराचो
धल्लो आमी मार्ग झुजाचो
फायच्या भांगरा सप्ना खातीर
सोडलें आयचें भान
चल्ले लाख जवान.

उगडासाचीं तोडलीं बांदपां
हर्ड्टीं केलीं उगडीं खडपां
जिवीत राखपाखातीर करतांव
आमचे जिणेचें दान
चल्ले लाख जवान.

शुरविरांची भूंय आमगेली
अशीच उरची हांसरी मेकळी
म्हणून मणांत लेगीत राखतांव
स्वतंत्रतेची तान
चल्ले लाख जवान.

रयताचें हें झूज आमगेलें
जैत आमगेलें जैत आमगेलें
जैतवंत ह्या हातार घेतल्या
आमचे पांचूय प्राण
चल्ले लाख जवान.

सैनिक आमी समानतेचे
सुखांत ना बागचे, दुखांत ना मोडचे
आमच्या रगतान बरयत वेतले
इतिहासाचें पान
चल्ले लाख जवान.

